नेहरू बाल पुस्तकालय



# रुपा - हतीण

**मिकी पटेल**

अणकार : **कमलादेवी राव देशपांडे**



नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया

चिंची नांवाचें एक बदामी रंगाचें शेवणें प्राणीबागेंतल्या सगळ्या जनावरांक वळखतालें.



प्राणी - बागेंत रुपा नांवाची एक हतीण आशिल्ली. ती ताजी जिवाभावाची इश्टिण आशिल्ली. रुपा दर आयतारा सकाळची भुरग्यांक आपले फाटीवयल्यान बागभर भोंवडायताली. तांचे वांगडा केन्नाकेन्नाय चिंची शेवणें रुपाच्या कानार बसून प्राणीबागेंतल्या सगळ्या जनावरांक मेळूंक वतालें.



पूण आज चिंची थंय वच जाल्यार किदें पळेतलें! रुपा एका कोनशाक उबी रावून सुस्कारताली किदें, हुडकेताली किदें, घळऽ घळऽ करून ती दुकां गळयताली. तिज्या दोळ्यांतलीं दुकां, पोल्यांवयल्यान जमनीर तणांत गळटालीं.

"किदें जालें रुपा? किदें घडलें?" चिंची चिंवचिंवलें!



"हांऽहांऽहांव सामकीच मचकटी... कुरूप," रुपा हुडकेली.
"म्हजो रंगय गोबरो आनी दिसतांय मोटेंच घुमट - कशें."
"पिशी गेऽ पिशी! अशी रडूं नाका, हांव कितेंय तरी उपाय करून, तुका कशी सोबीत - सुंदर ... लक्क करतां पळे!"
इतलें सांगून चिंची भुर्रऽऽ उडून गेलें.



चिंची दाणये - वागासरीं गेलें. आनी चिंवचिंवलें. "सुप्रभात, तानुमाम! जाणां, आमची रुपा, आपूण म्हेळी, कळिंद्री दिसता म्हणून खंती जाल्या. तुगेले झगझगीत पटे मात्शे तिका दिशी?"

वागाची प्रतिक्रिया?



चिंची भुर्रऽऽ उडलें. वद्द विवटे - वागणीसरीं गेलें. म्हणूंक लागलें "सोनुमामी तुजे लकलकीत - चकचकीत वुटे मात्शे रुपाक दिता गे?"



चिंची थेट मोर - राजासरीं गेलें. उपरांत मिट्टू - किरा सरीं गेलें. म्हणूंक लागलें "तुमी तुमगेले सोबीत- सुंदर रंग रुपाक दिशात रे?"



तानू , सोनू , राजा , मिट्टू सगळे एक जावन , प्राणी - बागेंत धांवत आयले रुपा - हतीणीसरीं ! अजूनय रुपा एका कोनशाक रावून सुस्कारता आनी हुडकेता थंयच आशिल्ली !



सगळे जाण आपापले रंग रुपाक दिवंक लागले. तानू रुपा म्हऱ्यांत गेलो आनी ताणें आपल्या हळडुव्या - काळ्या पट्यांची तिजे म्हऱ्यांत सामकी रास घाली. सोनुमामीन आपले बुटे निखळावन निखळावन काडून रुपाच्या पांयांक दसयले. मिट्टून तिगेले शेंपडेचेर आपल्या पांचव्या - चार पिसांच्यो रेगट्योच - रेंगट्यो ओडल्यो! राजान आपणाले लकलकीत - चकचकीत दुरंगी मोरपिशी दोळे तिजे सोंडभर शिंवरले!



रुपा रडटाली ती थांबली. तिणे आपल्या आंगावयल्यान एक नदर भोंवडायली. ती सामकी अभिमानान आनी खोशयेन भरली. म्हणूंक लागली, "वा! आतां हांव सामकी लग्ना - माटवांतली व्हंकल कशी दिसतां. आतां भुरग्यांक हांव किद्याक आवडचीं ना?"



दुसऱ्या दिसा, भुरगीं हतीणीचे फाटीवयल्यान भोंवंक ते प्राणी - बागेंत आयलीं. म्हळ्यार देवा ऽऽ सायबा, हें आनी कसलें अजाप घडिल्लें!



आज तांगेली अपुरबायेची गोबरा रंगाची रुपा खंय तर?
आनी होऽ तो विद्रूप -सो, कपयांचो, खतांचो, पट्यांचो राकेस
कसो कोण थंय उबो?
कांय भुरग्यांनी तर धसकोच घेतलो.
"हुश्श! हुश्श!" तांणी हुरयो घाल्यो.
"चलूंक लाग, विद्रूप खंयचे कडलो! आमकां आमची रुपा
जाय!"



रुपाक खोळसां फुटून आयलीं !
आतां किदें करतली !



तितल्यांत तिका एक माण्णी सुचली. बेगिबेगीन तिणे थंयच्याच एका साळका - तळ्यांत उडी मारली. आनी फस्स फस्स करून तिणें आपले सोंडेन आंगभर पचपचीत उदक मारलें. त्या बराबर पांचवे, हळडुवे, निळे, जांभळे सगळे रंग झंजळून गेले.



अशे तरेन सादी, सोबीत, गोबरा - रंगाची रुपा - हतीण तळ्यांतल्यान वयर आयली.
"पळेयात, पळेयात!" खोश्शी जावन ताळयो मारीत भुरगीं बोवाळ घालूंक लागलीं, "ही आमची रूपा!"
"रुपा, हे तरतरेचे रंग तुवें खंयच्यान हाडले गे बाये?" भुरग्यांनी विचारलें.
"येयात, म्हज्या वांगडा येयात, हांव तुमकां, म्हाका रंग दिवपी म्हगेले माये-मोगाचे इश्ट दाखयतां." रुपान सांगलें.



भुरग्यांनी तिगेले फाटीर चडून बसपाक सामक्यो झुंड्यो घाल्यो .
चिंची शेवणें चिंवचिंवाट करीत उडून , रुपाच्या कानार वचून
बसलें . हे भाशेन प्राणीबागेंतल्या उरिल्ल्या सगळ्या जनावरांक
मेळपा खातीर तीं भायर सरलीं :



Paramount Graphics Pvt. Ltd. New De

